गांधी साहित्य – १०

# अशे आशिल्ले गांधीजी

## तिसरो वांटो

*"...हाडां–मांसाचोच असलो हो मनीस हे धर्तरेचे फाटीर चलतालो भोंवतालो म्हणपाचें फुडले पिळगेक खरें लेगीत दिसचें ना..."*

*—अल्बर्ट आअिन्टाअिन*



स्वातंत्र्यात् लभते परम् ।

गोमंत भारती प्रकाशन

१९६०

अ ज बा हा व पी
वसंत पांडुरंग बोरकार
जे. के. बिल्डींग नं. ४
गां व दे वी–मुं म्बै ७.



पै ली खे प
२६ जा ने वा री
१ ९ ६ ०

मोल :—
०·५० न ये पै से
सवूय बांटे अेकठांय
२·५० न ये पै से
बां दि ल्लें पु स्त क
३.०० न ये पै से

छा प पी
व्यं. रा. शिं ग रे
सर्वोदय मुद्रणालय,
४५० बुधवार, पुणें २.

## : ७९ : म्हजें कुटुंब आतां मोटें जालां

गांधीजी आफ्रिकेच्यान घरा भावाक खर्चा खातीर पैशे धाडटाले. पुण जेन्ना तांणीं आपली जिणूच लोकांचे सेवेक ओंपली तेन्ना तांकां हे पैशे धाडपाचें बंद करचें पडलें. तांणीं भावाक बरयलें: " आज मेरेन हांवें तुमकां पैशांचो आधार दिल्लो. आतां म्हजी आस्त सोडात. ह्या मुखार म्हजी सगळी जोड हांगासल्या भारतीय लोकांच्या हिताक खर्चूपाची हांवें थारायल्या. "

भावाक वायट दिसलें. ताणें पत्र बरयलें:

" आमच्या बापायन जसो कुटुंबाचो सगळो भार आपल्या आंगार घेतिल्लो तसो तुंवेंय घेवंक जाय. तुंवें बापाय परस चड शाणो जावंक फावना. "

गांधीजींनीं जाप धाडली:—

" हांव बापायचेंच काम करतां. फरक अितलोच किं आतां म्हजें कुटुंब मोटें जालां. हांगासल्ले सगळे भारतीय लोक म्हज्याच कुटुंबाचे जाल्यात. " कुटुंब " ह्या अुतराचो अर्थ तुमी लक्षांत घेतलो जाल्यार म्हजे म्हणणें तुमकां समजतलें. "

अुपरांत भावान पत्रां बरवपाचें सोडून दिलें. गांधीजींक खूब वायट दिसलें पुण तांकां आपली वागणूक सोडप जमलें ना.

काय काळा उपरांत हांतुणार पडिल्लो आसतना भावान गांधीजींक अेक पत्र बरयलें. ताका गांधीजींचें आचरण आतां खरें आनी धर्मीक दिशिल्लें.

****

## : ८० : अेक म्हारग धडो

दक्षिण आफ्रिकेंतली खबर. अेके बायलमनशेन अेक शिवराक खानावळ काडिल्ली. तिका पैशांची गरज अशिल्ली. ती गांधीजीं कडेन पैशे अुश्णे मागूंक गेली. गांधीजी त्या वेळार वकिली करताले. तांगेल्या गिरायकां भितल्ले कांय जाण तांचेकडेन आपले जोडिचे पैशे हाडून दवरताले· तांतूंत बदरी नांवाचो अेकलो मजूर आसलो. ताका गांधीजींनीं विचाल्लें. तो म्हणूंक लागलो : "हांव काय नकळ. तुमकां दिवंचे-शे दिसता जाल्यार दियात. तुमचेर म्हजो विश्वास आसा."

गांधीजींनीं ताचे सुमार अेक हजार पौंड ( म्हळचार सुमार तेरा–चौदा हजार रुपया ) तिका दिले.

पुण ही बायलमनीस कशाय कसो खर्च करताली. पैशांचो हिशे-बूय दवरी नासली. दोन-तीन म्हैन्या अुपरांत तिचे कडल्यान पैशे परते मेळपाची आशा ना म्हणपाचें गांधीजींक कळ्ळें. पैशे बुडले.

गांधीजी पेंचांत पडले. बदरीक कितें सांगचें ? ताणें तर गांधी-जींचेर पुराय विश्वास दवल्लेलो. निमाणें गांधीजींनीं आपले पदरचे पैशे हाडून बदरीच्या खात्यांत जमा केले.

अेक दीस गांधीजींनीं ही खबर आपल्या अेका अिश्टाक सांगली. गांधीजींचो हो " अव्यापारेषु व्यापार " पळवन तो तांकां खूब अुलयलो :—

"तुमी लोकांचे पैशे अशे दुसऱ्याक दिवंक लागले जाल्यार लोक कावार जातले. आनी तांचे पैशे तुमी भरूंक लागले जाल्यार तुमीय भिकारी जातले. तुमी चारचौगांचो वावर आंगार घेतला. तुमी

भिकारी वो कर्जबाजारी जाले जाल्यार आमचें नुकसान जातलें. आनी जो वावर तुमी आंगार घेतला तो बंद पड्टलो.

पुण गांधीजी अितल्यान धडो शिकिल्ले. तांणीं अुपरांत केन्नाच सार्वजनिक पैशांचो उपयोग असल्या कामाक केलो ना.

****

## : ८१ : दीनबंधु अँड्र्यूझ

दीनबंधु अँड्र्यूझांचे नांव सगळ्यांक खबर आसा. ते मूळचे अिंग्लीश. येशुची शिकवण पातळावपाखातीर हिन्दुस्तानांत आयले पुण ते हांगासल्लेच जावन रावले. भारतांतल्या लोकांची सेवा करची आसत जाल्यार लोकां भशेनच जावन रावंक जाय अशें येवजून तांणीं आपलो मिशना कडलो संबंद लेगीत सोडून दिलो. तांची नमळाय सामान्यां भायली आसली.

ते गांधींजींचे जिवा–भावाचे अिश्ट जाल्ले.

दीनबंधुंचो स्वभाव मात्सो विसरभोळो. न्हावंक गेले जाल्यार मान्न्यांत घडयाळ विसरून येताले. कोणाक कितेंय दिवंक गेले जाल्यार तेंय केन्ना केन्ना विसरताले. हाका लागून खंच्याय कामाक तांकां धाडचें पडलें जाल्यार गांधीजी तांकां थोडे पैशे चडच दिवन धाड्टाले आनी हांसत हांसत म्हणटाले : "शेणवपाखातीर म्हुण थोडे पैशे चड दिल्यात आं !"

****



## : ८२ : स्वभावाक वखद ना

१९२६ तली गजाल. दक्षिण भारतांतलो अेकलो कार्यकर्तो गांधीजींक मेळूंक आयलो. ताजेर अेक संकट आयिल्लें. कॉंग्रेसच्या कामा खातीर ताजे कडेन दिल्ल्या पैशांचो हिशोब मेळनासलो. ताणें तांतली अेक पै स्वताखातीर खर्चूंक नाशिल्ली. सगळे पैशे कॉंग्रेसच्याच कामाखातीर खर्च केल्ले. पुण ताजेकडल्यान अेकच चूक घडिल्ली. ताणें हिशोब सारको दवरूंक नासलो. सुमार हजार–देड हजार रुपयांचो हिशोब जाय आसलो.

तो ज्या जिल्ल्यांत काम करी त्या जिल्ल्यांतल्या मुखेल्यांनी ताका अेक तर हिशोब सारको दाखय वा पैशे भर अशें सांगलें. ताका आपणें कितें करचें हेंच समजना जालें. अखेरेक गांधीजीं मुखार सगलो प्रस्न दवरचो अशें ताणें थारायलें.

गांधीजींनीं ताजें म्हणणें आयकून घेतलें. अेक दोन प्रस्न विचाल्ले. ताणें पैशे खावंक नासले ह्या विशीं तांची खात्री जाली.

“हांवें कितें करचें अशें तुका दिसता ?” गांधीजींनीं विचाल्लें.

“आमच्या मुखेल्यांक पत्र बरवन म्हाका क्षमा करूंक लावंची” ताणें जाप दिली.

“ना. हांव असलें पत्र बरवचों ना.” गांधीजींनीं म्हळें: “तुका क्षमा फावना. लोकांचो पैसो कसो खर्च करचो हाची तुका जापसालदारकी दिसूंक जाय आसली. तुंवें हिशोब सारको दवरूंक जाय आसलो. रुपया–आणे–पैंचो प्रस्न न्हय हो. तुज्या शिलाचो प्रस्न हो. सार्वजनिक कार्यकर्त्यांक असलीं घळपणा सोबनात. तेन्ना, ते पैशे तुंवें भरचेच पड्टले.”

गांधीजींत अितलीं कठोरपणा आसत ह्याचो ताका अदमास लेगीत नासलो. ते आपणाक माफ करतले अशें ताका दिशिल्लें. म्हुणूच तर तो येदेय त्रास काडून साबरमतीक आयिल्लो. गांधीजींचें हें मत आयकून ताका रडूंक आयलें.

दीनबंधु अँड्र्यूझ म्हऱ्यांत बशिल्ले. तांकां वायट दिसलें. जाका पश्चात्ताप जाला ताका अितली मोटी ख्यास्त फावना. तांणीं गांधीजींक समजावपाचो यत्न केलो.

"ह्य, ताका सारको पश्चात्ताप जावंक जाय." गांधीजींनीं म्हळें: "फक्त बुद्धीक पटलें म्हुण अुपकरना. सारको चिमटो बसूंक जाय. तो कार्यकर्तो शिकिल्लो. आनी पैशे घेनासतना काम करपी. ताजी जापसालदारकी मोटी. हांव ताका माफ करपाचों ना."

जालें! मनसुबी जाली. आतां अुपायच नासलो. कितेंय तरी विकून पैशे फारीक करचेच पडिल्ले.

म्हण्टा म्हणसर दुसरी अडचण अुबी जाली. ताका घरा परतो वचपाक टिकेटिचे सुमार तीस–पस्तीस रुपये जाय आसले.

गांधीजींनीं तेय दिवपाचे नाकारले. "तुका पैलींच रीण आसा. आतां आनीक अुश्णे घेवन तातूंत भर घालूंक जायना. तूं पांयांनी वच !"

अमदाबादेच्यान पांयांनी घरा वचप ही केदी ख्यास्त? पुण कितें करतलो? जेवन तो भायर सल्लो.

फाटोफाट दीनबंधूय कोणाक कळनासतना भायर सल्ले. आनी ताका टिकिटिचे पैशे दिवन आश्रमांत आयले. आश्रमांत येना फुडें गांधीजीं सरीं वचून तांणीं म्हळें: "म्हाका अेक खबर सांगची आसा."

" त्या कार्यकर्त्याक पैशे दिले हीच मू ? हांव तुमकां वळखना ? सभावाक वखद ना ! " गांधीजींनीं हांसून म्हळें !

****

## : ८३ : दिले ते दिले

आश्रमाचीं घरां बांदूंक नाशिल्लीं. लोक खोंपींनी रावताले. हें पळवन अेक दीस कोणें अेकल्यान गांधीजींकडेन घरां बांदपा खातीर चाळीस हजार रुपये धाडून दिले.

घरां बांदपाचो बेत चल्ला अितल्यांत अहमदाबादेंत अिपल्युयेंझा सुरू जालो. लोक मरूंक लागले.

गांधीजींनीं म्हळें : "अंदू घरां बांदपाचें काम जावंचे ना. तेन्ना जाचे पैशे ताचे कडेन परते करुंया."

" पुण ताणें पैशे परते मागूंक नात." कोणें म्हळें.

" तातूंत कितें जालें ? ज्या कामा खातीर पैशे दिल्ले तें काम कांय जावपाचें ना. मागीर पैशे कित्याक दवरचे ?" गांधीजींनीं जाप दिली.

" केन्नाय तरी घरां बांदतलेच काय ना ? तेन्ना ते अुपकारतले."

" तेन्ना हो नाजाल्यार दुसरो कोणूय पैशे हाडून दितलो. "

अखेरेक पैशे त्या मनशाक परते दिवंक व्हेले आनी गांधीजींचें म्हणणें ताच्या कानार घालें.

" हांवे दिले ते दिले. परते घेवपाचों ना " त्या मनशान सांगून धाडलें आनी पैशे आशिल्ले तशे आश्रमांत आयले !

****

## : ८४ : अडेचे बडवाचार

आपले भाशेक अुणी लेखून परके भाशेंत अुलवप गांधीजींक केन्ना माननासलें.

दक्षिण आफ्रिकेंत जैत आनी कीर्त जोडून गांधीजी परते भारतांत आयले त्या वेळार मुंबैच्या बंदरार तांकां येवकार दिवंक जायतो लोक जमिल्लो. ह्या लोकांत अेक वर्तमानपत्रकार आसलो. ताणें गांधीजींक कसलो तरी अेक प्रस्न विचाल्लो.

ताका जाप दिवंचे आदीं गांधीजींनीं ताका म्हळें: "बाबा रे, तूं हांगासल्लो आनी हांवूंय हांगासल्लोंच. तुजी भास गुजराथी, म्हजीय भास गुजराथीच. मागीर तूं म्हजे कडेन अिंग्लीशींत–सो कित्याक अुलयता ? हांव भायर वचून आयलां म्हण्टकूच गुजराथी विसल्लां जातलों अशें तुका दिसलें काय कितें ? काय बॅरिस्टर जालों देखून हांवें म्हजी भास सोडली अशें तुका दिसलें ? अिंग्लीश भास म्हजीय न्हय, तुजीय न्हय. आमची निजाची भास सोडून आमी तिसरेच भाशेंत कित्याक अुलवचें ? काय परके भाशेंत अुलयतकूच व्हडपण येता अशें तुका दिसलें ?"

गांधीजींची ही जाप आयकून तो वर्तमानपत्रकार शेळेलो.

दुसऱ्या दिसा मुंबैच्या वर्तमानपत्रांचेर ही खबर मुखेलपणान आयिल्ली. अडेचे बडवाचार गांधीजींक मानतात हें लोकांक पेल्याच दिसा कळ्ळें.

****



## : ८५ : हिन्दुस्तानी तुमकां येवंक जाय

आंध्र प्रदेशांत भोंवतना अेका गांवांत गांधीजीक मानपत्र दिवपाची सभा जाल्ली. अेकलो तें वाचून दाखवंक लागलो. मान-पत्र अिंग्लीश भाशेंत बरयल्लें.

सामान्यतायेन मानपत्रां घेता आसतना गांधीजी म्हणटाले: "म्हज विशीं तुमी जें कितें बरयल्लां तांतल्यो खुबश्यो गजाली हांव जाणां. तेन्ना त्यो भास भास म्हाका सांगपाक वेळ कित्याक वगडायतात? हांव जें नकळ तें म्हाका सांगात. तुमच्या गांवांत कार्यकर्ते कितले आसात, कोण कोण कसलीं कसलीं कामां करतात हांतलें कितेंय सांगल्यार तें म्हाका अुपकारा पडटलें."

पूण आज गांधीजींची तुरा गंभीर आशिल्ली. अेक दोन मिण्टां जातकूच मांमू नज जालें जानलें. तांणीं म्हळें: "तुमी तें अिंग्लीशींत कित्याक बरयल्लां? हिन्दुस्तानी भाशेंत कित्याक बरयल्लें ना? तुमकां हिन्दुस्तानी येना जाल्यार तेलगू भाशेंत बरवचें आसल्लें...हांव तुमकां अेक अुतर अिंग्लीशींत वाचूंक दिवंचो ना. तुमकां हिन्दुस्तानी येवंकूच जाय..."

गांधीजीक अिंग्लीश बरी येताली. ते बरी अिंग्लीश बरयताले. पूण हिंदी लोकांनीं आपल्या वेव्हारांत अिंग्लीश चलयल्लें तांकां मानतासली. ते स्वाक्षरी लेगांत देवनागरींत दिताले.

****



## : ८६ : व्हायसरॉयं जाय जाल्यार शिकतलो

देशी भाशां विशिंचो गांधीजींचो मोग बरोच गाढ आसलो. देशी भाशांक व्हडपण दिवपाची अेकूय संद गांधीजींनीं वगडावंक ना.

अेक खेपे कसलो तरी अेक थाराव व्हायसरॉयकडेन धाडपाचो आसलो. गांधीजींनीं त्या थारावा सकल आपली निशाण केली आनी मुखार "प्रमुख, गुजराथ राजकीय परिषद" अशें निभेळ गुजराथींत बरयलें.

कोणें तरी म्हळें : "बावडया व्हायसरॉयाक गुजराथी कशी समजतली ?" .

गांधीजींनीं कळाव केलो ना. तांणीं म्हळें "गुजराथी कशी समजतली म्हळ्यार कितें ? कोण कोणाचेर राज्य करता ? आमचेर शेक चलवचो आसत जाल्यार तांणीं आमची भास शिकूंक जाय. ना जाल्यार दुभाषी तरी तांणीं दवरूंक जाय. आमकां थोडीच गरज आसा."

आनी गांधीजींनीं थाराव व्हायसरॉयाकडेन तसोच धाडलो.

****



## : ८७ : भांगराचीं अुतरां

गांधीजींनीं " रचणुकी कार्यावळ " नांवाच्या आपल्या पुस्त-कांत बरयलां :—

" आमी आमच्यो निजाच्यो भासो कडेक दवरल्यो आनी परकी भाशेच्या नादाक लागले. हाका लागून आमच्या समाजांत दोन पंगड पडले, अेक शिकिल्ल्यांचो. दुसरो, शिकूंक नाशिल्ल्यांचो. आनी दोनां मजगतीं अेक मोटी वणत अुबी जाली. आमच्यो भासो वाडूंक पावल्यो नात आनी आमचो वारीक लोक नव्या-नव्या येवजणुकां पसून पंस अुल्लो. हाका लागून आमचें जें नुकसान जालां तें व्हाना-समानांतलें न्हय......स्वराज्याची फळां वारीक लोकांनी चाखचीं अशें दिसता जायत जाल्यार देशी भासांक व्हडपण हाडूंक जाय. "

गांधीजींचें हें मत भांगराच्या अक्षरांनीं बरवन दवरपा सारकें आसा.

****



## : ८८ : अिंग्लीश शिकुनूय ते मोटे जाले

अेक खेपे कोणें अेकल्यान गांधीजींच्या देशी भासो शिकूंक जाय ह्या म्हणण्याची टीका केली. आनी म्हळें :—

" अिंग्लीश बरप शिकिल्ल्यानूच राजा राममोहन रॉय, जगदीशचंद्र बसु, रवींद्रनाथ ठाकुर बी लोक मोटे जावंक पावले."

गांधीजींनीं ताका जाप दितना म्हळें : " मोटो मनीस जावपा खातीर अिंग्लीश शिकूंक जाय अशें म्हणप बरोबर न्हय. बुद्ध, कबीर, नानक अिंग्लीश शिकूंक नासले. तरी आसतना ते मोटे जाले. आयज शेंकडयांनी वर्सां अुपरांत लेगीत लोक तांचो अुगडास करता. राजा राममोहन रॉय, जगदीशचंद्र बसु, रवींद्रनाथ ठाकुर बी अिंग्लीश शिकपाचे अडचणींतल्यान वचून लेगीत मोटे अुल्ले हातुंतूच तांचें मोटेपण आसा. तें ताचें निजाचें."

गांधीजींनींच भारतांतल्या देशी भासांक भौमान मेळवन दिलो.

****



## : ८१ : म्हजो धर्म बंदखणीचो न्हय

इंग्लीश भाशेच्या हुंवारांत आमच्यो भासो व्हांवन वेतात ह्या दुख्खान गांधीजींनी देशी भासांचे वाडिचो आग्रो धरिल्लो खरो पुण ते इंग्लीश भाशेचे आड नाशिल्ले. तांची येवजणेची तरा समजुपा खातीर तांगेलें अेक अवतरण दितां. गांधीजींनी अेके कडेन बरयल्लां :—

“ म्हाका म्हज्या घरा भोंवतणीं वण्टी उबारिल्ल्यो नाकात आनी म्हज्या जनेल्यांक गुड्डेय मारिल्ले नाकात. संवसारांतल्यो सगळ्यो संस्कृतायो म्हज्या घरा भोंवतणीं मेकळेपणान घोंवल्यो म्हाका जाय. पुण तांतूतलें अेकल्येय कडच्यान हांव म्हाका मोडून वेंवचो ना. वरपाची रुच आशिल्ल्या आमच्या चल्या चलयांनी इंग्लीश आनी संवसारांतल्यो दुसऱ्यो भासो शिकच्यो आनी तांचो लाव तांणी आमच्या लोकाक आनी संवसाराक दिवचो. पुणन भारतांतल्या खंयच्याय मनशान आपली आवय-भास विसरिल्ली, तिका कोनशाक उडयल्ली, वा ते भाशेंत उलयतना वरयतना ताका लज दिशिल्ली म्हाका नाका. आपले आवय-भाशेंत येवजूंक येना वा आपल्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो येवजणुको आपले आवय-भाशेंत सांगूंक येनात अशें कोणाकूच दिसूंक फावना. म्हजो धर्म बंदखणीचो न्हय. म्हज्या धर्मांत देवान निर्मिल्ले दर अेकले गजालीक सुवात आसा. ”

गांधीजींचें हें अवतरण जण अेकान घोळवंक जाय.

****

## : ९० : गांधीजींचो त्याग

पू. काकासायब कालेलकार अेक खेपे अुमर खय्यामाचें 'रुबायान' हें पुस्तक वाचूंक बशिल्ले. पुस्तक सोंपूंक आयिल्लें. अितल्यांन गांधीजींची नदर तांचेर पडली. तांणीं विचाल्लें : "कसलें पुस्तक वाचतात ?"

काकासायबांनी पुस्तक दाखयलें. काकासायबांची आनी गांधीजींची निकतीच वोळख जाल्ली. देखून अेकदम अुपदेस करपाची गांधीजींची अित्सा नासली. तांणीं फक्त म्हळें : "म्हाकाय अिंग्लीश कविता वाचपाचो खूब नाद आसलो. पुणून हावें यवजिलें, म्हाका अिंग्लीश कविता वाचपाचो अधिकार खंय आसा ? म्हाका संस्कृत सारकी येना. गुजराथीय सारकी येना. म्हजेकडेन रिकामी वेळ आसत जाल्यार हावें तो संस्कृत आनी गुजराथी ह्या भासांचें गिन्यान वाडवपाखातीर कित्याक अुपकारावंचो न्हय ? म्हाका देशाची सेवा करची आसा. म्हण्टकूच म्हाका वेळ मेळटा तितलोय हांवें म्हजी सेवेची शक्त वाडवपा पसत अुपकारवंक जाय."

थोडो वेळ ओगी रावन गांधीजींनीं परतें म्हळें : "हांवें देशा खातीर त्याग केला जायत. पुण पैशाच्या त्यागाक हांव त्याग मानींच ना. कित्याक, पैशांची ओड म्हाका केन्नाच नासली. अिंग्लीश साअित्याचे ओडीक मात् अंत-पार नासलो. पुणून हावें नित्शय केलो कि हांवें हो नाद सोडूंक जाय."

काकासायब जें समजूंक जाय आसले तें जीस्त समजले. तांणीं पुस्तक मोन्यांनी काडून कुशीक दवल्लें.

***

## : ९१ : काकासायब गुजराथी बरपी जाले

पू. काकासायब म्हणटात: “बापूजींच्या ह्या म्हणण्याचो परिणाम असो जालो कि नवीं अिंग्लीश अुतरां सोदूंक आनी तांची खुबी समजूंक म्हजी जी शक्त पैलीं खर्चताली ती आतां गुजराथी कडेन वळ्ळी.”

काकासायबांची जल्मभास मराठी. आश्रमांत आयले तेन्ना तांकां गुजराथी येनासल्ली. हिंदीय चडशी येनासल्ली. पूण गुजराथी वातावरणांत राविल्ल्यान तांकां गुजराथी अिल्लीअिल्ली करून येवंक लागली. अुपरांत तांणीं गुजराथींत बरवपाक सुरवात केली. गुजराथी अुतर येवजलें ना जाल्यार थैं ते सोपें संस्कृत अुतर वापरूंक लागले. करतां करतां काकासायबांची गुजराथी भास अितली सुंदर जाली कि कांय काळान ते गुजराथी भाशेंतले अेक मोटे बरपी जाले.

****

## : ९२ : गुजराथी कोशाचो अितिहास

१९२२ त गांधीजी बंदखणींत आसले. थैं तांणीं आयकलें कि तांच्या फाटल्यान ‘नवजीवन’ काकासायब कालेलकार चलयतात. ‘नवजीवन’ हें गांधीजीलें गुजराथी सातोळें आसलें.

अेक दीस गांधीजींची काकासायबांक अेक चीट आयली. तांतूंत तांणीं बरयल्लें :

“अिंग्लीश अुतरांचें शुद्धलेखन जशें थरिल्लें आसा तशें गुजराथी भाशेंत ना. मराठी, बंगाली, तामीळ, अुर्दू वी भासांनी

ऱ्हस्व–दीर्घाचे सगले नेम थरिल्ले आसात. तशें गुजराथींत ना. मनांत येत तशें बरयतात. गुजराथी भाशेची ही दुर्दशा ना करपाचो वावर तुमचो. म्हाका अेक असो कोश जाय, जातूंत गुजराथी भाशेचीं सगलीं अुतरां ऱ्हस्व–दीर्घाच्या नेमां प्रमाण दिल्लीं आसूंक जाय."

गांधीजींची ही चीट वाचून काकासायबांक अजाप जालें. बंदखणीतल्यान सुटून येतकच नांणीं गांधीजींक म्हळें: "बापूजी, गुजराथी ही म्हजी भास न्हय. हांवें गुजराथी साअित्य वाचुंकूय ना. व्याकरणूय म्हाका येना. हांव गुजराथी कोश कसो करतलों ?"

गांधीजींनीं म्हळें : "तुमी अेकल्यानूच हो वावर करचो अशें हांवें खैं म्हळां ? जाय तांचो आधार घेयात. पुण ह्या कोशाची जापसालदारकी तुमच्या आंगार आसा."

जालें; सन्याशाच्या संवसाराक शेंडये पसून सुरवात म्हण्टात. काकासायब व्याकरण घेवन बसले, फाटल्या चाळीस वर्सांत व्याकरणी नेमां संबदान कोणें कितें म्हळ्ळें तें सगलें अेकठांय केलें, आनी जायत्या जाणांचो आधार घेवन पांच वर्सां अेका सारको वावर केलो. आनी अखेरेक अेक कोश तयार करून गांधीजींक दिलो.

गांधीजींक खूब खोस जाली. नवजीवनांत तांणीं बरयलें : "आतां गुजराथी भास कशाय कशी बरवपाचो अधिकार कोणाकूच अुरूक ना."

काकासायबांनी तयार केल्लो हो 'जोडणी–कोश' आयज गुजराथी भाशेचो प्रमाण कोश म्हुण सगल्यांनी आपणायला.

****

## : ९३ : पुस्तक लासून उडयलें

गांधीजी श्री. गोपाळ कृष्ण गोखल्यांक आपले गुरु कशे मानताले. गुजराथांत आश्रम काडल्या उपरांत गांधीजींनी आपल्या राजकी गुरुची बरपावळ एकटांय करुन तिचो गुजराथी अणकार करुंक तो एकल्या कडेन दिलो. हो मनीस एक नामनेचो बरपी आसलो.

पुस्तकाचो अणकार जालो आनी तें छापूनय आयलें. फकत प्रस्तावना बरवपाची उरल्ली. ती स्वामी गांधीजी बरयतांचे आसले.

महादेवभाव देसाय निकतेंच गांधीजींचे चिटणीस ह्या नात्यान वावरुंक लागिल्ले. तांकां तो अणकार मानवलो ना. तांणी गांधीजींक सांगलें कि अणकार सारको जावंक ना, भासूय बरी ना.

गांधीजींनीं तो दोगां–तिगांक दाखयलो. सगल्यांचें मन तेंच पडलें.

गांधीजींनीं निमाणें निवाडो दिलो : "तशें जाल्यार हें पुस्तक लासून उडयंक जाय. हांव गुजराथी भाशेक असली भेट दिवंक सोदिना."

पुस्तक छापपाक कितलो खर्च आयिल्लो कोणाक खबर, तें बरेंच मोटेंय आसलें. पुण गांधीजीनीं पैशांची पर्वा केली ना. आपल्या गुरुची बरपावळ शुद्ध भाशेंनच लोकांक वाचूंक मेळूंक जाय अशें गांधीजींक दिशिल्लें.

****

## : ९४ : अणकार नितळ जांवक लागले

गांधीजींनीं अणकाराचें पुस्तक लासून अुडयलें हाचो परिणाम त्या अणकारप्याचेर कितें जालो जातलो हें आनी वेगळें सांगपाची गरज ना. पुण हे गजालिचो दुसरो अेक परिणाम जालो तो सांगूंक जाय. गांधीजी 'यंग अिंडिया' नांवाचें अेक सप्तकी नेमाळें अिंग्लीशींत काडटाले. तांतल्या कांय बरपांचो गुजराथी अणकार करपाचो वावर कांय जाण करताले. ते ही गजाल आयकून भियेले. अणकार येवजून--येवजून करूंक जाय, अुतरां जिस्ताजीस्त पडूंक जाय, वाक्यां सारकीं जावंक जाय, दुबाव आयलो जाल्यार अेकामेकांक विचारूंक जाय अशें तांकां दिसूंक लागलें. ते हे भशेन वावरूंकूय लागले. तरी आसतना गांधीजींक अेकाद--दुसरें अुतर मानत न मानत, हाचो दुगदुग तांकां दिसतालोच.

गांधीजींच्या ह्या आग्र्याक लागून गुजराथी भाशेंत अणकाराचे नितळसाणेची जनताय घेवपाची अेक परंपरा सुरू जाली. त्या आदीं लोकांनी कितले तरी अणकार गुजराथी भाशेंत केल्ले, जातूंत कठीण अुतरां सोडून दिल्लीं. आनी कठीण वाक्यांचो अर्दकुटो अर्थ केल्लो. गांधीजींच्या आग्र्याक लागून गुजराथभर अणकारांचो अेक नवो आदर्श सुरू जालो.

****



## : ९५ : अणकारपी गांधी

गांधीजी स्वता बरपी हे जाणांतले नासले खरे. पुण तांचें बरप नितळ, सोपें, सादें आनी सुंदर आसतालें. तांच्या बरपांतलें अेक अुतर हेवटेनचें तेवटेन करूंक येना.

काकासायबांनी अेकेकडेन गांधीजींची अेक याद बरयल्या. गांधीजींच्या अेका लेखाचो माथाळो Death Dance अशें आसलो. ताचो अणकार सगल्या अणकारप्यांनी 'तांडव–नृत्य' म्हूण केल्लो. अणकारप्यांत मोटे मोटे बरपी आसले. पुण गांधीजीक तो मानवलो ना. अणकारप्यांनी विचाल्लें :–

"दुसरें कसलें अुतर आसा ?"

गांधीजींनी मात्सों येवजिलें आनी जाप दिली : "पतंग–नृत्य !"

व्हडल्या साहित्यिकांक जमलें ना तें गांधीजीनीं केल्लें !

****

## : ९६ : निमाणो संदेश

गांधीजी दक्षिण आफ्रिकेंतल्यान परते हिंदुस्तानांत आयले तेन्नाची खबर. गुजराथांतल्या खेडा जिल्ह्यांत ते पांयांनीं भोंवताले. ताका लागून तांकां खूब त्रास जाले. अेक दीस अकस्मात तांच्या पोटांत दुखूं लागलें. सबनरात न्हीद पडली ना. आतां वांचप कठीण अशें तांकां दिसूंक लागलें.

सगली रात तांणीं

विहाय कामान् यः सर्वान् पुमांश्चरति निस्पृहः
निर्ममो निरहंकारः स शांतिमधिगच्छति ॥

हो गीतेंतलो श्लोक म्हणून काडली. सकाळ जाली आनी तांणीं आश्रमांतल्या सगल्यांक आफवंक धाडले. सगल्यांक दिशिल्लें कि गांधीजी जण–अेकल्याक वेगळें–वेगळें कितेय सांगतले. पुण गांधीजींनीं सगळ्यांक अेकूच संदेश दिलो. आपुण आतां वांचना अशें सांगून तांणीं म्हळें :

हिंदुस्थानच्या खांची–कोनश्यांनी वचून म्हजो निमाणो संदेश सांगात कि "**हिंदुस्तानची अुदरगत अहिंसेनच जातली आनी अहिंसेनच हिंदुस्तान संवसाराची सेवा करुंक पावतलें.**"

अितलें सांगून ते ओगी रावले आनी आशिल्ले तशे गीतेच्या श्लोकांत तल्लीन जाले. गांधीजी मरणाक केन्नाच भियेले नात.

****

## : १७ : काम करतां करतांच बरे जाले

गांधीजी बरे नाशिल्ल्यान कांय दीस हुस्क्यांतच गेले. अितल्यांत सरकारान 'रौलेट' कायदो पास केलो. गांधीजींनीं म्हळें :– "हांव बरो आशिल्लों जाल्यार सबंद देश ह्या कायद्या आड पेटयतलों आसलों. आमी सरकाराक खूब मदत केल्ली. ताजेंच हें पानवळ !"

तरी आसतना हांतुणा वैल्यानच तांणीं लोकांक सुचवण्यो केल्यो. करतां करतां ते ह्या कामांत अितले गुल्ल जाले कि आपुण बरे नात म्हणपाचेंय विसरून गेले !

आनी फुडें कांय दिसांनी स्वताच चळवळ सुरू केली.

****

## : ९८ : कितलें भव्य

पू. विनोबाजींची ही अेक खबर. ते गीतेचे मोटे भक्त. शरीर वेगळें आनी आत्मो वेगळो ही गीतेची शिकवण तांणीं पचयल्या.

साबरमती आश्रमांत आसतना अेक खेपे साबरमती न्हंयेर न्हावंक गेल्ले थंय ते अकस्मात न्हंयेच्या झोनांत सांपडले आनी व्हांवन वचूंक लागले. कांठार आशिल्ल्या लोकांनी विनोबाजीक वांचवपाचो जायतो यत्न केल्लो. खामा विनोबांनीय यत्न केल्लो. पुण सगल्लो फुकट गेलो. कांठावेले लोक काचावूल जाले. कोणें न्हंयेंत उडकी माल्ली. कोण मुखार धांवल्लो. विनोबांक खात्री जाली कि आतां वयर सरप शक्य ना. मरण साक्षात् तांच्या मुखार तोंड आं करून उबें आसलें. पुण विनोबांनी गीतेची शिकवण पचयल्ली. ते हात वयर करून लोकांक परतें धीर दिवंक लागले :—" भियेवं नाकात...आत्मो अमर आसा हो म्हजो संदेश सगळ्यांक सांगात......"

देवाचे कृपेन मदींच अेक खडप लागलें आनी विनोबा वांचले.

****



## : ९९ : चाळिसांचे चाळीस हजार

दक्षिण आफ्रिकेंतल्या सत्याग्रहांत अेक कठीण प्रसंग आयिल्लो. नामदार गोखल्यांक दिल्लें अुतर जनरल स्मट्‌मान मोडिल्लें. हिंदी लोकांची अेकूय मागणी मान्य करप ना अशें ताणें थारायल्लें. लोकांचो विश्वासघात जाल्लो. तांच्या मुखार झूज दिवपा पेल्यान दुसरो मार्गच अुरूंक नासलो.

पुण दक्षिण आफ्रिकेंतल्या हिंदी व्यापाऱ्यां भितर व्हडलिशी जाग येवंक नासली. तांची तयारीच नासली. 'कितें करतले झुजून ? आमी हांगा आयल्यात व्यापारा खातीर. झगडपा खातीर थोडेच आयल्यात ! ह्यो मान-अपमानाच्यो गजाली कित्याक ? ह्यो कुशीक दवरून आपलो पोटाचो धंदो सांबाळ्ळो जाल्यार व्हडलें-शें कितें अिबाडटा ? गांधींक हें नाका जाल्लें लागता. असल्या तत्त्वांनीं म्हुण केन्ना कोण पोटाक पावला ? ' अशेंच वचत थैं लोक अुलयताले. आनी हेवटेन गांधीं लढयाचो गजाली करताले ! हें पळवन फिनिक्स आश्रमांतल्या अेका मनशान गांधीजींक म्हळें:

" बापूजी, आमी झुजपाच्यो गजाली करतात खरे. पुण आमचे-कडेन मनीस आसात किनले ? येंदे मोटे सत्तेकडेन झूज दिवपाक कितेय तरी आसूं नाका ? तुमी मनशांचो केन्ना हिशोब केला ? "

" हय तर, दीस रात मेजीत आसां...तरी पुण तूंय मेज पळवंया. आमचे कडेन सत्याग्रही किनले आसात ? "

मेजूंक सुरवात जाली...अेक, दोन, तीन....फिनिक्स आश्रमा-पसून सुरवात करून नाताल, ट्रान्स्वाल, केप कॉलनी मेरेनच्या सत्याग्रह्यांचीं नांवां घेतलीं. सगळीं मेळून चाळीस जालीं.

गांधीजींनी गंभीरपणान विचाल्लें : "चाळीस मनीस खरें. पुण ते कसले ? "

'कसले' ह्या अुतराचेर तांणी अितल्लो नेट दिल्लो कि ताचें मर्म त्या आश्रमवासिच्या लक्षांत पुरायान आयलें आनी ताणें म्हळें :

"अुल्लो जाल्यारूय जिखलों आनी मेल्लों जाल्यारूय जिखलों' असल्लो तर निश्चय आशिल्ले; अखेरपर्यंत अुजपी."

हें आयकनाफुडें गांधीजीचो अुत्साह वाडलो : "पुरो....पुरो... अखेर मेरेन अुज दिवपी, जिवाची पर्वा नाशिल्ले चाळीस मनीस तयार जाल्ले...ह्या चाळिसांचे चाळीस हजार जाल्ले तुका दिसतले" आनी अुलयता अुलयतां ते भावनावश जाले आनी म्हणूंक लागले : "हे चाळीस तरी कित्याक जाय ? हांव अेकलो पुरो. केंद्रीय मोटी सत्ता आसू, गोरख्यांचो अपमान आनी विश्वासघात करतले सत्ते आड अुजूक हांव अेकलो पुरो. तांकां दिल्ल्या अुतराक पाळो दिलो ना जाल्यार हांव पिश्या मारको दरअेकल्या गोऱ्या मनशाचें दार खटखटायत भोंवतलों. गोरख्यांचो अपमान ?... कोण सोंसतलो ?...."

जाका स्वाभिमान ना ताका धर्मच ना. आज मेरेन संवसारांत जितलीं राष्ट्रां वयर सल्ल्यांत तितलींय स्वाभिमान वाडवनूच वयर सल्ल्यांत. स्वाभिमान म्हळ्यार मस्ती न्हय. ती मनाची अेक अवस्था. गांधीजी म्हणटाले कि जाचो देवाचेर विश्वास आसना ताकाच स्वाभिमान आसना. जाचो देवाचेर विश्वास नासता ताका केन्ना कितें करचें हेंय समजना आनी तें कशें करचें हेंय समजना. गांधीजींत स्वाभिमान पराकाश्टेचो आसलो. तांचीं तीं अुतरां आयकून आश्रमवासी ओगी

रावले. जीं कितें डळमळीतपणां तांच्यांत आशिल्लीं तीं हे अजिंक्य श्रद्धेच्या अुज्यांत लासून गेलीं. मुखार चळवळ जाली. गांधीजींक जैत्य मेळ्ळें. जेन्ना लढयांत कितल्या लोकांनी वांटो घेतिल्लो हाचो हिशोब सुरू जालो तेन्ना आंकडो खरेपणान चाळीस हजारांचेर पाविल्लो !

आश्रमी जीवनांत केदी प्रचंड शक्ती आसता हाची ही अेक पत. ****

## : १०० : सत्या मुखार असत्य तिगना

सत्यान चलपी मनीस निर्मळ आसता ताका कोणूच फटवंक पावना. अितलेंच न्हय तर ताका कोणूय फटयत जाल्यार ताज्यां-तूच खैं तरी असत्य आसूंक जाय अशें गांधीजींचें म्हणणें आसलें.

दक्षिण आफ्रिकेंतली खबर. फिनिक्स आश्रमांत अेकलो भुरगो रावतालो. तो अेकदीस आपल्या बापायक मेळपाक डरबन शारांत गेलो. मेळून जातकूच बापायक दिसलें, आश्रमांत भुरग्याक मिच-मिचीत खाण खैं मेळटलें ? म्हुण जेवन जातकूच ताणें ताका भजीं घेवन दिल्लीं. भुरग्यान थैं थोडीं भजीं खालीं. पुण रोखडीच ताका आश्रमांतल्या आपल्या संवगडयांची याद जाली. म्हुण ताणें भज्यांचो पुडो करून बरोबर व्हेलो.

रात जाल्ली. सगळया ल्हान-व्हड भुरग्यांक जमवन तो भजीं वांटूंक लागलो. अितल्यांत तांची मास्तरीण थैं पावली. गांधीजींचो हे बायलमनशेचेर खूब भावार्थ आसलो. म्हुण तांणीं भुरग्यांक निच्चे मुत्रादीन केल्लीं. आश्रमांत भजीं बी खावंक मना केल्लीं. तरय आज ते मास्तरिणीक तीं खायन दिसलीं. तिणें भुरग्यां

वांगडा अेक भजें खाल्लें. पुण ही गजाल कोणाक सांगू नाकात अशें भुरग्यांक सांगून दवल्लें.

कांय दिसांनीं ही गजाल भायर फुटली आनी गांधीजींच्या कानार पडली. तांणीं वासपुस सुरू केली. कोणें भजीं हाडलीं. कोणें कोणें खाल्लीं ? ही वासपुस करपांत व्हडलो—सो किते हेनु नासलो. पुण उपरांत तांकां समजलें कि भजीं खावपांत मास्तरि-णिचोय वांटो आसलो. गांधीजींक पैली हें खरें दिसलें ना. पुण अेका—दोगां भुरग्यांनीं खात्री दिवन सांगिल्लें म्हुण तांणीं ते मास्त-रिणीकच आपवन विचाल्लें. तिणें चक्क ना म्हुण सांगलें.

भुरगे फट उलयतात—शे जालें ! म्हणटकच प्रस्नाक महत्त्व आयलें. भुरगे फटयतात काय मास्तरीण फटयता ? दोगां भितर कोणूय जाणा जावन फट उलयतात जाल्यार ती सोंसूं नज असली गजाल आसली. भुरगे तर निन्वायान सांगताले. तिजली तीय ना म्हणटाली.

अखेरेक गांधीजींनीं आपल्या ल्हान चल्याक—देवदासाक—आप-वन विचाल्लें. "देवदास, तुका हांतली कितें खबर आसा ?" देव-दास बावडो कितें जाप दितलो ? गांधीजींच्या मनांत ते मास्तरिणी विशीं आदर आसा म्हणपाचें ताका खबर आशिल्ल्यान ताका तिचे आड उलवपाचें काळीज जायना जालें. तो रडूंक लागलो. गांधी-जींनीं म्हळें : "रडता कित्याक ? खरें कितें तें सांगून उडय."

"खरें सांगल्यार तुमी फट म्हणटले म्हुण म्हाका रडूंक येता." ताणें जाप दिली.

"तूं खरें उलयतलो हाची म्हाका खात्री आसा. तेन्ना, कितें तें सांग."

देवदासान नित्शयान सांगलें: "तिणें भजीं खाल्लीं हांवें पळेल्यांत."

जालें! गांधीजी गोंदळ्ळे. आपले भोंवतणीं रावतल्यां मनशां भितर अितलें धडधडीत फट अुलवपी मनीस आसप हाचे सारकी भयंकर गजाल दुसरी कितें आसतली? तांणीं निर्णय घेतलो: "खरें कितें तें म्हजेकडेन अुक्तें जावंकूच जाय. तें जे मेरेन जायना ते मेरेन म्हजें जेवप–खावप बंद"

आश्रमांत वीज कोसळ्ळेले वरी जाली. आश्रमांतले जाण्टे जाळवणदार वासपुसेक लागले. रातचे न्हिदेंतल्यान अेकेकल्या भुरग्याक अुठवन ते विचारूंक लागले. सगळयांनीं अेकूच सांगलें. हाचे वैल्यान भुरगे खरें सांगतात म्हणपाचें अुक्तें जाल्लें. पुण जोंवर ती मास्तरीण कबूल करिना तोंवर कितें? अखेरेक तिचें काळीज जागें जाले. दुसऱ्या दिसा सकाळीं गांधीजींकडेन वचून तिणें आपलो दोष कबूल केलो.

****

## : १०१ : नमळायेची म्हूर्त

गांधीजी म्हळ्यार नमळायेची म्हूर्तच आसले. तांणीं आपले आत्मकथेंत बरयलां कि आमचे पांयां पोंदचे मातयेच्या कणा परसूय जो अदीक नम्र जायना ताका सत्याचो अिल्लो सुद्धां दिश्टावो जायसारको ना. खासा गांधीजींत अितली नमळाय आशिल्ली.

येरवड्याचे बंदखणींतली गजाल. गांधीजींचो अेक साथी तांचेबरोबर तेंच बंदखणींत आसलो. तो अेक मोटो बरपी. पुण ताका आपल्या हातान वरवपाची सवय नासली. देवळांतली घांट जशी

बाजयल्यार वाजना तशें हाचें कडल्यान कोणेय बरवन घेत जाल्या-रूच बरप जातालें. आज सेंगनचें ताचें सगळें बरप अशेंच तरेन जाल्लें.

गांधीजी ताची ही अडचण जाणा आसले. देखून वंदखर्णांतलो आपलो कार्यक्रम थारावन जातकच तांणी येवन त्या बरप्याक सांगलें:

“हें पळेयात, हांवें म्हजो वेळाचो हिशोब केला. तुमकां हांव सद्दां अर्द वर दिवंक तयार आसां. तुमकां आपल्या हातान बरव-पाची संवय ना हें हांव जाणां. तेन्ना कितेंय बरवपाचें आसल्यार म्हाका घाल्यात; हांव बरवंक तयार आसां.”

हें आयकतकूच तो बरपी सर्दच जालो. भानार येतकूच ताणें सांगलें :

“बापूजी, म्हाका देवान व्हडली--शी बुद्द दिवंक ना. पूण तुमकां बरवंक लावपा इतलो कांय हांव पिसो न्हय.”

“ना, ना, तशी अनमनपाची गरज ना. हांव खऱ्यांनीच अर्दवर दिवंक तयार आसां.”

आनी खऱ्यांनींच ते अर्दवर दिवंक तयार जाल्ले. तातूंन ताका लजवपाचो तांचो हेतु नासलो. तर ताची लाचारी पळेवन, ताका मनापसून उपकार पडपाची इत्सा आसली.

गांधीजीं कडल्यान ह्या बरप्यान कितेंच बरवन घेतलें ना ही गजाल वेगळी.

****

: १०२ : **यज्ञ**

सात दिसांचो अुपास. चार दीस जाल्या अुपरांत गांधीजी खूब अशक्त जाले. पुण तांचें मन प्रसन्न आसलें. अीश्वराक शरण वचप आनी ताची अिच्छा ती आपली अिच्छा मानप हे साधनेन मन प्रसन्न अुरता अशें ते म्हण्टाले. आनी अुपासांत तर अीश्वराचें सान्निध्य चडच मेळटा.

सात दीस जातकूच अुपास सुटलो. मोसंबीचो रोस घेतकूच गांधीजींनी आपलो चरखो मागलो.

साथी म्हणूंक लागले : "दुबळेपणांत चरखो कित्याक? मात्शी घटाय येवंक दियात."

"ना. ना, अुपासांत सूत कांतलें ना हें अेक वेळ समजुंयेता. पुण आतां खावंक लागतकूच यज्ञूय सुरू जावंक जाय. यज्ञा बगर जो खाता तो पातक खाता अशें न्हय?"

कोण जाप दितलो? निर्मळ जीण जियेवंक सोदतल्या मनशान सगळ्यो करण्यो यज्ञासारक्योच करूंक जाय. यज्ञा बगर संवसार अेक खीण लेगीत अुबो रावंक पावचो ना अशें गांधीजी मानताले आनी आपलो यज्ञ सदांच करताले.

ह्या युगाचो यज्ञ म्हळ्यार चरख्यार सूत कांतप अशें ते म्हणटाले.

****

## : १०३ : राजकैदी

१९३० तल्या मिठाच्या सत्याग्रहा उपरांत सरकारान गांधीजींक येरवड्याचे बंदखणींत हाडून दवल्ले. मेजर मार्टीन नांवाचो एकलो बंदखणिचो अधिकारी आसल्लो. ताणें गांधीजींक कितेंच उणें पडचें न्हय म्हूण सगळे तरेची व्यवस्था केल्ली. कदेलां–मेजां, आयदनां जायतीं हाडून दवरल्लीं.

बंदखणींत पावनाफुडें गांधीजींनी तें सगळें परतें केलें आनी म्हळें, " म्हाका साद्या कैद्या भशेन रावचें आसा. उण्यांत उणें जें जाय पडटा तेंच म्हाका पुरो. " आनी ताणीं न्हिदपा खातीर एक कानापो, एक गादी, दूद दवरपा खातीर थोडीं आयदनां आनी बरवपा खातीर कागदा पोंदा वापरपाचो एक फळो इतलेंच दवरून घेतलें. कांय दिसांनी ताणीं दूद, शाक वी दवरपा खातीर जाळयेची एक ल्हान–शी आरमारूय मागवन घेतली.

एक दीस मेजर मार्टिनान गांधीजींक सांगलें कि सरकारान तुमच्या खर्चा खातीर म्हैन्याक देडशें रुपये मंजूर केल्यात. पूण आपणें सरकाराक बरयल्लां म्हूण कि येद्या मोट्या मनशाक देडशें पावचे नात; उण्यांत उणे तीन–शें तरी मजूर करूंकच जाय.

गांधीजींनी हांसत विचारलें : " हे पैशे हिन्दुस्तानाचेच तिजोरें-तल्यान खर्चतले मू ? गरीब प्रजेचेर म्हजो येदो मोटो भार घालपाची म्हजी इत्सा ना. हांवें सगळो हिशोब करून पळेल्लो. म्हाका म्हैन्याक ३५ रुपये पुरो. हाच्याकूय अदीक खर्च जावंक जायना. "

कांय दिसांनी, सांजच्या जेवणा वेळार, क्विन नांवांचो एकलो वैलो अधिकारी गांधीजींक मेळूंक आयिल्लो. ताचेकडेन खबरी करतां करतां खर्चाचो प्रस्न आयलो. तेन्ना गांधीजींनी ताका सांगलें:

"म्हजे खातीर देडशें रुपया मंजूर केल्यात मू ? म्हण्टकूच म्हज्या पसत जितलो खर्च जाता तितलो काडून अुरिल्ले पैशे तुमी म्हाका दिवंक जाय."

क्विनाक अजाप जालें. ताणें विचाल्लें : "बंदखणींतल्यान सुट्टले तेन्ना ते पैशे तुमी आमचेकडेन मागतले काय कितें ?"

"हय तर ! सोडटां काय कितें ?" अशें म्हणून गांधीजी मोटयान हांसले.

****

## : १०४ : दत्तोबा

येरवड्याचे बंदखणींत गांधीजींक जेवण रांदून दिवपा खातीर सरकारान दत्तोबा नांवाच्या अेका साद्या कैद्याक नेमिल्लो. ताका संधिवात जाल्लो. बावडो कूटत–कूटत चलतालो. पुण सांगिल्लीं सगळीं कामां करतालो. गांधीजींक न्हावपा खातीर अुदक तापवन दिवप, कपडे धुवप, दूद तापवप असलीं कांय कामां ताचेकडेन सोंपयल्लीं.

तो कूटत कूटत चलता तो पळवन गांधीजींनीं ताका कितें जालां ते विचारून घेतलें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं बंदखणिच्या सुपरिन्टेन्डे-न्टाक आपवन गांधीजींनीं सांगलें कि आपली ताचेर नैसर्गिक अुपचार करून पळवपाची अिल्मा आसा. सरकाराक तांतूंत कितें आडखळ आसा काय कितें हें गांधीजींनीं विचाल्लें. बंदखणींतल्या डॉक्टरान ताका स–अेक म्हैने मेरेन वखतां दिवन पळेल्लीं. पुण ताचे पिडेंत कांयच फरक पडूंक नासलो.

सुपरिन्टेन्डेन्टान सांगलें, "आमची कांय आडखळ ना."

गांधीजींनीं म्हळें, "ताका कांय दीस हांव अुपास करूंक लायतलों. मागीर ताच्या आहारांत फरक करतलों. हांव नें जेवतां–खातां तांबलेच कांय जिन्नस ताका दितलों."

दत्तोबाची अितली काळजी आयज मेरेन कोणेंच घेवंक नासली. ताका आनंद जालो. पूण ताच्याकूय अदीक ताका अजाप जालें. गांधीजींनी ताका सदां आपवचो वारीक वारीक वासपूस करची, खावपा–जेवपांत बदल करचे. कांय दिसांनी तो बरो जालो. आनी जो मनीस कूटन कूटन चलतालो तो सामको बरो जावन धांवंक लेगीत लागलो. मागीर, ताणें गांधीजीची सेवा अदीक निश्ठेन केली जाल्यार अजाप कसलें ?

कांय दिसांनी गांधीजी बंदखणींतल्यान सुटले. दत्तोबा त्या अुपरांत वऱ्याच दिसांनी सुटलो.

कांय म्हैन्यांनी अेक दीस गांधीजी मुम्बै आयिल्ले. गांवदेवीक मणिभवनांत देंविल्ले. तेन्ना अकस्मात दत्तोबा तांकां मेळूंक गेलो. स्वयंसेवकांक समजावन तो भितर पावलो. गांधीजींनी ताची सगळी वासपूस घेतली. तो फाटीन अेक ल्हानशी ब्राह्मणी चलयतालो. पूण त्या दिसा गांधीजी खूब कामांत आशिल्ले. देखून तांणीं ताका दुसऱ्या दिसा येवंक सांगलें.

तो 'बरें आसा' म्हूण सांगून गेलो. पूण परतो आयलोच ना. गांधीजींनी ताची खूब वाट पळेली. मागीर म्हणूंक लागले : "ताका थोडे पैशे दिवपाचें म्हज्या मनांत आसलें. गरीब मनीस कश्ट करून पोट भरता. म्हाका दोन–दोन खेपे येवन मेळपाक वावड्याक वेळ खैं मेळटलो ? काल्च हांवें ताका पैशे दिवंक जाय आसले."

गांधीजींक खूब दुःख जालें. पूण मुम्बैच्या त्या मानव–सागरांत दत्तोबाक कोण सोदून काडटलो आसलो ?

****

## : १०५ : हबशी सेवक

१९२२ तली खबर. गांधीजी हिन्दुस्तानांत पैलेच खेपे बंदखणींत पडिल्ले. गांधीजी विशीं हिन्दू मुसलमान सगळयांक आपलेपण दिसता हें पळवन बंदखणींतल्या सुपरिन्टेन्डेन्टान तांचे सेवे खातीर आफ्रिकेच्या अेका हबशाची नेमणूक केल्ली. ताका बावडयाक हिन्दुस्तानांतली अेकूय भास समजनासली. अिंग्लीशूय येनासली. चड करून कुरवांनींच ताका सगळें समजावचें सांगचें पडटालें. असलो हो मनीस गांधीभक्त केन्नाच जावंक पावचो ना असो सुपरिन्टेन्डेन्टाचो समज आसलो. ताका बावड्याक मनशाचें काळीज सगळे कडेन सारकेंच आसता म्हणपाचें खैं खबर !

अेक दीस त्या हबशाक विंचू चावलो. बावडो रडत रडत गांधीजी सरीं आयलो. गांधीजींनीं अेक खीण लेगीत वगडायनासतना ताका चाविल्ल्याची सुवात अुदकान धुवन काडली. आनी आपलें तोंड थैं लावन मोट्यान रगत चोखून काडलें. हाका लागून दुख अुणी जाली. मागीर दुसरेय अुपाय केले.

बावड्यान आयुष्यांत असले तरेचो मोग पळवंक नासलो. गांधीजींचो हो मोग पळवन तो तांचो दास जालो. आनी भक्तिभावान तांगेलीं सगळीं कामां करूंक लागलो. ताणें पळेलें कि गांधीजींक चरख्यार सूत कांतप खूब मानवता. तो चरखो शिकलो. कापूस पिंजप, पेळू करप, सगळीं कामां करूंक लागलो.

ताका पळवन येवजिल्लें कितें आनी जालें कितें अशें सुपरिन्टेन्डेन्टाक जालें. पुण आता करतलो कितें ?

****

## : १०६ : जागृत अहिंसा

आमच्या कोंकणांत लोक आंब्याच्या वा काजुच्या पानान दांत घांसतात सगें गुजराथांत बाभळिच्यो वा कोडू--लिंबाच्यो ताळयो कापून तांणीं घांसतात. त्या ताळयांक गुजराथींत 'दांतण' म्हण-टात. हें 'दांतण' वेंतभर लांब आसता. ताचें अेक तोंक चाबून मोव ब्रशा सारकें करतात आनी ताणें दांत घांसतात.

गांधीजींचे दांत पडून पडून थोडेच अुरिल्ले. ते ते दांतणान घांसताले. पुण ताचें तोंक चाबून मोव ब्रशा सारकें करपा खातीर गांधीजींक दाढो नासिल्ल्यो. म्हूण तांगेल्लो अेकलो साथी तें धोंडा-वन तांकां दिताल्लो. आंगणांतल्या कोडू--लिंबाचें दांतण धोंडावन दिवस सोपें आसल्लें. पुण गांधीजी सोपे नासल्ले! ते म्हणांत कि दांतण अेक खेपे वापरून भायर अुडवप म्हळ्यार अुधळपट्टिचेंच लक्षण. तांणीं दांत घांसून जातकूच दांतण धुवचें आनी आपल्या माथ्याक सांगचें, "हाचो हो वेंल्लो वांटो कापून अुडय आनी फाल्यां खातीर तें सांबाळून दवर."

"पुण बापूजी, कोडू लिंबाचें झाड आंगणांतच आसा."

"आसलें म्हूण किते जालें? झाडाक गरजेपरस अदीक दुःख दिवपाचो आमकां अधिकारूच ना. झाडाची क्षमा मागुनूच जाय तेदीच ताळी तोडूंक जाय."

गांधीजींची अहिंसा कितली जागृत आसल्ली! आनी कितली सूक्ष्म!

****

## : १०७ : सामान्यां परसूय नाजुक

येरवडयाचे बंदखणींत सकाळचो मेजर मार्टीन आनी सांजचो क्विन, दोगूय सदांच गांधीजींक मेळूंक येताले. अेक दीस क्विन पावलो ना. गांधीजींक अजाप जालें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं तो आयलो तेन्ना कळ्ळें कि आदल्या दिसा अेकल्या कैद्याक गोळाक लायिल्लो थैं ताका वचचें पडिल्ल्यान तो सदां भशेन येवंक पावलो ना.

आपुण रावता थैं बगलेकच काल अेकल्याक गोळाक लावन मारून अुडयलो ही खबर कळना फुडें गांधीजींचें मन अेकदम दुःखी जालें. शरीराचेरूय ताचो परिणाम जालो. तांकां ओंकूंक आयिल्ले भशेन जालें.

गांधीजींचे अेक विद्वान साथी त्या वेळार थैं आशिल्ले. कितें सांगून गांधीजींचें मन शांत करचें हो प्रस्न तांकां पडलो. कांय खीण मेरेन ओगी रावन तांणीं म्हळें: " बापूजी, असल्यो खबरी जेन्ना हांव आयकतां तेन्ना म्हजेंय मन सकल-वयर जाता. मागीर हांव गीतेची शिकवण याद करतां आनी जल्म-मरणा विशीं मनशान खेद करूंक जायना अशें म्हाका समजायतां."

गांधीजींच्या मनाचेर हे सांगणेचो परिणाम जालो जातलो. कित्याक, रोखडेंच ते शांत जाल्ले भशेन दिसले.

गांधीजी वज्रा परसूय कठोर जाताले. पुण तांगेलें काळीज सामान्य मनशा परसूय नाजुक आशिल्लें. अेका मनशाक गोळाक लावन मारून अुडयलो ही खबर आयकून तांगेल्या शरिराचेर लेगीत अितलो परिणाम जालो! अितल्यो नाजुक भावना आशिल्ले गांधीजी स्वातंत्र्याचे वेदीर निर्दोष बलिदान दिवंक लोकांक कशे तयार करताले काय? गांधीजींच्यो भावना कसपाचें वरकूल वेगळेंच आसूंक जाय.

****

...८...

## : १०८ : बंदखणींतलीं पत्रां

बंदखणींत आसतना आपणाक मेळपाक कोणाक आपवचें न्हय असें गांधीजींनीं थारायल्लें. कित्याक, सरकाराकडेन ह्या विशीं ज्यो खबरी जाल्यो त्यो गांधीजींच्या मनांत खोशदेण्यो नासल्यो. त्या भायर बंदखणिचो अिन्स्पेक्टर जनरल्ल तितलो सरळ मनीस नासलो म्हणपाचेंय गांधीजीक दिसून आयिल्लें.

अेक दीस ताणें येवन गांधीजीक विचाल्लें: “ सप्तकांत तुमकां तितल्या जाणांक मेळूक आपवपाचे आसात ? ”

गांधीजींनीं सांगलें: “ म्हाका कोणाक आपवपाचे नात. ”

“ तुमकां कितलीं पत्रां बरवपाचीं आसात ? ”

“ अेकूय बरवपाचें ना. ”

कितेंय मागचें आनी मागीर उपकार घेवंचो हें गांधीजीक नाका आसल्लें. म्हूण ताणीं असल्यो जापो दिल्यो. ह्यो जापो आयकून अिन्स्पेक्टर जनरल्ल मात्सो जाग्यार आयलो. आनी ताणें म्हळें: “ बरें आसा, तुमचो जांचे कडेन रगताचो संबंद आसा तितल्यांकूय तुमच्यांनीं पत्रां बरवं येनात. ”

“ पुण म्हजे घरकान्नी कडलो म्हजो संबंद हाका ‘ रगताचो संबंद ’ म्हणूं नज. ” गांधीजींनीं म्हळें.

अिन्स्पेक्टरान आपलें म्हणणें सुधाल्लें आनी म्हळें: ‘ तुमच्या सोयऱ्यां-धायऱ्यांक तुमच्यांनीं बरवं येना. ”

“ आश्रमांतले सगळे लोक म्हजे सोयरे-धायरे, अितलेंच न्हय तर ह्या देशांतले सगळेच लोक म्हाका म्हज्या सोयऱ्या-धायऱ्यां सारकेच दिसतात. ” गांधीजींनीं ताका सांगलें.

“ बरें आसा. तुमी तांची अेक वळेरी करून दियात. मागीर पळवंया. सप्तकांतल्यान अेकाच दिसा अेका वरोवर तांकां तुमी पत्रां बरवचीं. आनी तांचींय **तुमकां** अेकाच दिसा मेळचीं. अशें केल्यार आमकां बऱ्याक पडटलें. ”

गांधीजींनीं म्हळें: “ ही व्यवस्ता म्हाका मान्य आसा.”

गांधीजींनीं मागीर अेक मोटी वळेरी तयार केली आनी सरकाराक दिली.

पुण ह्या सगल्यांक पत्रां बरवप केन्ना ? तांणीं अेक युक्ति सोदून काडली. अेक व्हडली फोल घेवची आनी ताच्यो बारा–चौदा घडयो करच्यो. आनी त्यो कापिनासतना दर अेकले घडयेंत अेक-अेकल्याक पांच-धा वळींचें पत्र बरवचें आनी ती फोल तशीच आश्रमांत धाडून दिवची. आश्रमाच्या जाळवणदारान मागीर त्यो घडयो कापून त्या त्या मनशाक पत्रां धाडून दिवचीं.

तीं पत्रां पांच-धा वळींचींच आसतालीं. पुण त्या पत्रांक लागून जायत्या जाणांक प्रोत्साहन मेळटालें आनी लोक मनान घट्ट्य जातालो. बंदखणींत रावन लेगीत जण अेकल्या कडेन संबंद दवरून ताका देगा खातीर कष्ट काडपाची तालीम गांधीजी दीत रावताले.

****



वाजयल्यार वाजता तशें हाचे कडल्यान कोणेंय बरवन घेत जाल्या-रूच बरप जातालें. आज मेरेनच्चें ताचें सगळें बरप अशेच तरेन जाल्लें.

गांधीजी ताची ही अडचण जाणा आसले. देखून बंदखणींतलो आपलो कार्यक्रम थारावन जातकच तांणीं येवन त्या बरप्याक सांगलें:

"हें पळेयात, हांवें म्हजो वेळाचो हिशोब केला. तुमकां हांव सद्दां अर्द वर दिवंक तयार आसां. तुमकां आपल्या हातान बरव-पाची संवय ना हें हांव जाणां. तेन्ना कितेंय बरवपाचें आसल्यार म्हाका घालात; हांव बरवंक तयार आसां."

हें आयकतकूच तो बरपी सर्दूच जालो. भानार येनकूच ताणें सांगलें :

"बापूजी, म्हाका देवान व्हडली--शी बुद्द दिवंक ना. पुण तुमकां बरवंक लावपा इतलो कांय हांव पिसो न्हय."

"ना, ना, तशी अनमनपाची गरज ना. हांव खऱ्यांनीच अर्दवर दिवंक तयार आसां."

आनी खऱ्यांनींच ते अर्दवर दिवंक तयार जाल्ले. तातूंत ताका लजवपाचो तांचो हेतु नासलो. तर ताची लाचारी पळवन, ताका मनापसून उपकरा पडपाची इत्सा आसली.

गांधीजीं कडल्यान ह्या बरप्यान कितेंच बरवन घेतलें ना ही गजाल वेगळी.

****

## : ११० : हांव बरो आसां

बंदखणींत गांधीजींक पळवपा खातीर पंदरा पंदरा दिसांनीं अेक सरकारी डॉक्टर येवन वतालो. त्या खातीर ताका म्हैन्याक शंबर रुपया मेळटालें.

ताणें येवचें आनी गांधीजींक " कशे आसात ? " म्हुण विचारचें. आनी गांधीजींनीं " बरो आसां " म्हुण जाप दिवची. अितल्यान सरकारी काम सोंपतालें. मागीर ताणें हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरी करून वेळ काडचो. गांधीजींक नैसर्गिक अुपचाराचें ज्ञान बरेंच आसा म्हुण ताका जेन्ना कळ्ळें तेन्ना ताणें दर खेपे प्रस्न घेवन येवचें आनी गांधीजींनीं ताका ताच्या प्रस्नांच्यो जापो दिवच्यो.

अेक दीस गांधीजींक अकस्मात्र घुंवळ आयली. पडटां पडटां तांणीं आपले बरोबरच्या अेकल्याक मोट्यान अुलो केलो. तो धांवलो. गांधीजी जमनीर पडिल्ले. ताणें तांकां अुबारून हांतुणार न्हिदायले.

दोन तीन दिसांनीं सरकारी डॉक्टर आयलो आनी सदां भशेन ताणें "कशे आसात ?" म्हुण विचाल्लें. आनी गांधीजींनीय ताका सदां भशेन " बरो आसां " म्हुण जाप दिली.

तो वतकूच गांधीजी आपल्या वांगडच्याक म्हणूंक लागले: "पैर म्हाका घुंवळ आयिल्ली ती खबर हांव ताका सांगतलों अशें तुका दिशिल्लें ? पुण म्हाका ते गजालीक म्हत्त्व दिवपाचें नासलें. कित्याक तर ते हाचें मोटें प्रकरण करून म्हाका बंदखणींतल्यान सोडटले आसले. म्हाका ते अुपकार नाका आसले. त्या भायर, आतां हांव बरो आसांच."

****

## : १११ : लंगोटिचे रुमाल

येरवडयाचे बंदखणींत गांधीजी बरोबर अेक आश्रमवासी आसलो. ताणें आपणा खातीर भायल्यान कांय लंगोट्यो मागयल्यो. त्यो गरजे परस आट-णव अींच लांब आसल्यो. ताणें कातर घेवन त्यो कापल्यो आनी त्या कुडक्यांचे हातरुमाल केले. गांधीजीक ताका पुसतां पसत ते अुपकारा पडटले अशें धरून ताणें ते गांधीजीक दिले. गांधीजींनी ते मोन्यानीं घेतले आनी कुशीक दवरले.

आश्रमवास्याक दुबाव आयलो. "लंगोटी कापून हातरुमाल केले आनी ते गांधीजीक दिले हाचें तांकां वायटवीं दिसलें ना म? लंगोटी नवीच आसली. पूण हो अविवेक जालो ना म? गांधीजींचें मन मोटें म्हूण तांणीं ते मोन्यानीं घेतले."

ताका दुःख जालें. गांधीजींचें ध्यान ना–यें पळवन ताणें ते अनकळय काडून आपल्या खिशांत परतें दवरले.

दुसऱ्या दिसा गांधीजीक ते खंच मेळळे नात म्हूण तांणीं वासपुस सुरू केली: "म्हजे हातरुमाल खं?"

"म्हजे कडेन आसात." आश्रमवास्यान जाप दिली.

"तुजे कडेन कशे पावले? तुवें म्हाका दिल्ले न्हय ते?"

ताका काल्लचे आपले सगळे दुबाव मांगचे पडले! मागीर ताचेर गांधीजींचें प्रवचन सुरू जालें: "म्हाका दिल्ली वस्त तुका परती घेवपाचो हक्क खं आसा? तुवें दिले; हांवें घेतले. ते घेतना हांवें तुजे अुपकार मानूंक जाय आसले काय कितें? ते घेतना म्हज्या मनांत कितें कितें घोळ्ळें, तुका खबर आसा? हांवें येवजिलें, 'हो मनीस सगळें सोडून आश्रमांत येवन रावला. हाचे कडेन

आपलें अशें कितें आसनलें ? पुण ताणें आपले लंगोटिचे कुडके कापून, शिवून ताजे हातरुमाल करुन म्हाका कितल्या मोगान दिल्यात पळे !' हांवें अशी मनांत तुजी कदर केली आनी तुवें ते परते व्हेले ?"

ताणें मोन्यांनीं हाडून हातरुमाल परते गांधीजींक दिले.

****

## : ११२ : प्रेमाची बंदखण

सांजचें जेवण जानकूच गांधीजी थोडो वेळ भोंवताले. मागीर आपली रोजनिशी बरयताले. पत्रां बरवपाचीं उरिल्लीं आसत तर तीं बरवन काडटाले. तितले म्हणमर तांची सेवा करपी मनीस तांगेलें हांतूण तयार करतालो.

अेक खेपे हें काम पू. काकासायब कालेलकारांकडेन आशिल्लें. तांणीं गांधीजींचें हांतूण तयार करचें आनी गांधीजी हांतुणार पडमर थैंच अुबे रावचें. गांधीजींक कितेंय सुचवणी बी करची आसत जाल्यार ती आयकुपाचे तयारीन अुबें रावचें. गांधीजी जायते खेपे कितें ना कितें मांगतालेय बी. निमाणें 'आतां वचून न्हीद' म्हुण सांगतकच तांणीं वचचें.

अेक दीस तांणीं अशेंच तांकां न्हिदूंक वचूंक सांगलें तेन्ना काकासायबांनी म्हळें : "आज म्हाका अेक कागद बरवपाचें आसा, तेन्ना अर्द वरा अुपरांत न्हिदूंक वतलों."

काकासायब कागद बरवंक बसले. तें बरवन जातकच ते दुसरें कितें बरवंक लागले. मागीर वाचूंक बसले. वर भर गेलें. काका-

मायव म्हणटात : “ म्हजें नशींव पळेयात ! केन्नाच जागे न जावपी गांधीजी त्या दिसा जागे जाल्ले आनी हांव हांतुणार ना तो पळवन म्हजे कुडींत आयल्लें !”

“ अर्द वर अजून जावंक ना ?” गांधीजींच्या आवाजांत खरसाण आशिल्ली.

काकासायब आपणाक कित्याक कळाव लागलो तें सांगपाक गेल्ले. पुण गांधीजी कितेंच आयकूक तयार नासल्ले.

“ अर्द वरांत न्हीदतां म्हुण म्हाका अुत्तर दिल्लें. ताका पाळो कित्याक दिलो ना ?”

चड अुलवपाची सोयच नासल्ली. काकासायब मोन्यांनीं अुठून न्हिदूंक गेले.

काकासायबांची तब्येत नाजूक आसल्ली. गांधीजीक तांची केदी काळजी आसल्ली ! कायद्याची बंदखण वेगळी. प्रेमाची बंदखण वेगळी. प्रेमाचे बंदखणींत पडिल्ल्याक मेकळीक खैं आसता ?

****



## : ११३ : जीवदया

अेक दीस गांधीजींक अेक दोमळो चाबलो. मामान्यतायेन जेन्ना आमकां दोमळो, मूय वा जळार चावता तेन्ना आमचो हात रोखडोच ताचेर पडटा आनी ताका अेक तर काडून भायर अुडयतांत वा मारून अुडयतांत. दोमळ्याक जेन्ना आमी भायर अुडवपाचो यत्न करतांत तेन्ना तो आमकां अिनलो घट्ट धरून चाबता कि ताचे दोन कुडके जानात. अुपरांतूय ताचें तोंड काडून भायर अुडवप सोपें नासता. आनी जाळ पडटात तेय सामान्यांनले नामतात.

पुण गांधीजी म्हळचार जीवदयेची म्हूर्त ! दोमळ्याक लेगीत दुखूंक जायना ह्याची जननाय घेवपी. तांणीं ताका चाबूंक दिलो. आनी मागीर ताका ल्हवूच सोडयलो. पुण नितल्यान ताचो विखार पांयांत पातळ्ळो. डॉक्टरान वखतां केलीं. पुण पांय मारको जानामर दोन सप्तकां लागलीं.

दोमळ्याक रोखडोच काडून अुडयल्लो जाल्यार अितलें सोंमचें पडचें नासलें. पुण गांधीजीक पश्चात्ताप निखाल्लूस जालो ना !

****



## : ११४ : नालायक सा

गांधीजी आपलें खावप जवर मेजून मापून करतालें. अेक दीं तांणी बाजारांतल्यान अेक शेर खिसमिस मागयलें आनी आपल्या साथ्याक सांगलें कि हे आठ दीस मेरेन चलूंक जाय. आता अेक शेर खिसमिसाचे आठ वांटे कशे करचे? तांणी सांगलें : “खिसमिस मेजून पळे आनी दिसाक कितलें पडटात तें पळे.” सुनां वीस खिसमिस दिसाक पडटाले.

दिसाक वीस खिसमिस कित्याक पावनात? पुण गांधीजींच्या साथी जाणां आसलो कि ह्या विशीं गांधीजीकडेन चर्चा करपाक काय अर्थ ना. म्हूण तो मोटे-मोटे वीस खिसमिस वेंचून ताका दिवंक लागलो. कांय दिसांनी मोटे खिसमिस सोंपले. आता बारीक खिसमिस दितलो जाल्यार अदीक दिवंक जाय आसले. म्हूण ताणें गांधीजींक सांगलें : “मोटे सगळे सोंपले. आतां ल्हान उरल्यात ताणें पोसवण जावची ना. तेन्ना अदीक दिवपाची परवानगी दियात.”

गांधीजी रागार जातले, उल्लयतले अशें ताका दिसिल्लें आनी ताची ताणें तयारी दवरिल्ली. पुण प्रकरण चड गंभीर जालें.

“अशें कशें जालें?” गांधीजींनी विचारलें.

ताणें आपलें म्हणणें मांडलें. पुण गांधीजी असल्या बाबतींत क्षमा केन्नाच करीनासले. तांणी निर्णय घेतलो : “ह्या मुखार तुजे कडल्यान हांव हें काम घेवचो ना.”

गांधीजींचो हो निर्णय आयकून त्या मनशाक दुख्ख जालें. आपली नालायकी हे तरेन सिद्ध जाल्ली पळवन ताका रडूं आयलें. गांधीजींनी तें काम ताजे कडलें काडून घेतलें ना खरें. पुण वीस खिसमिसां परस अदीक तांणी घेतले नात.

## : ११५ : अेकाच कामान दोगांकूय आनंद

१९२६ नली खबर. गांधीजी म्हैसुरांन खादिचो प्रचार करनाले. भोंवनां भोंवनां ते शिमोगा गांवांन पावले. थैंच्यान गेरसप्पाचो घोघो सुमार धा–बारा मैल आसल्लो. पू. काकासायब कालेलकार हे यात्रेंन गांधीजी बरोबर आसले. गेरसप्पा अितलो लागीं आसतना तो पळेनासतना वचप काकासायबांक कशें जमतलें आसलें ? तांणी सगळयांक तयार केले आनी गांधीजींकूय येवंक सांगलें.

गांधीजींची वचपाची अित्सा ना–शी पळवन काकासायबांक दिसलें कि घडये तांकां गेरसप्पाचे म्हत्त्व खबर नासुंये. म्हुण तांणी सांगलें : " लॉर्ड कर्झन जेन्ना हिन्दुस्तानांन आयिल्लो तेन्ना पैल्लीं संद मेळना फुडें तो गेरसप्पा पळवंक आयिल्लो. अख्या संवसारांत हाचे येदो घोघो ना."

" नायगराच्या घोघ्या परसूय मोटो ? " गांधीजींनीं विचारलें.

" नायगराचो घोघो रुंदायेन मोटो. पुण नायगरापरस अुंचायेन मोटे घोघे आमच्या देशांत खूब आसात. गेरसप्पाचें अुदक ९६० फूट अुंचायेवेल्यान पडटा. संवसारांत अितले अुंचायेवेल्यान पडपी दुसरो घोघो ना." काकासायबांनीं जाब दिलो.

काकासायबांक दिशिल्लें कि हें सगळें आयकून गांधीजी घोघो पळवंक येतले. पुण तांणीं तांकां परत प्रस्न केलो :

" मळबांतल्यान पावस पडटा तेन्ना कितले अुंचायेवेल्यान पडटा ? "

काकासायब मनांतल्या मनांत लजले. आपुण अेका स्थितप्रज्ञाकडेन अुलयतां हाची तांकां जाणवीक जाली. म्हुण तांणी गांधीजींक पळवपाचें सोडून नवी मागणी मुखार केली :

" तुमी येनात ते येनात. महादेवभाअींक तरी धाडात."

गांधीजींनी नितळेच थंड्माणेन जाप दिली: “ महादेव वचचो ना. हांवच ताचो गेरसप्पा. ”

तो दीस ‘ यंग अिंडिया ’ आनी ‘ नवजीवन ’ हांचे खातीर राखून दवल्लेल्लो. ही दोनूय मासाळी चलवपाचो भार गांधीजी आनी महादेवभाअी हांणी आपल्या आंगार घेतिल्लो. त्या दिसा ते वरवंक पावले नासिल्ले जाल्यार ही मासाळी वेळार भायर सरची नासिल्ली. काकासायबाक हाची याद नासिल्ली. म्हूण ताकां वायट दिसले. ताणी म्हळें: “ तुमीय येनात आनी महादेवभाअीकूय वचूंक दिनात ! म्हण्टकच हांवें किल्याक वचचें ? हांवूय वचना ! ”

“ना, ना. गेरसप्पा पळवंक तुमी वचूंक जायच. तुमी शिकवपी. तुमी तो पळेल्यार भुरग्यांक भुगोलाचो अेक पाठ बरो शिकवंक पावतले. तुमी वचूंक जायच. ”

काकासायब गेरसप्पा पळवन आयले.

हे गजालीक सुमार पंदरा-अेक वर्सां जावन गेल्ली जातलीं. गांधीजींनी कसल्या तरी कामाक लागून महादेवभाअीक म्हैसुरचे दीवाण सर मिरझा अिस्माअिल हांचेकडेन धाडिल्ले. महादेवभाअी वचूंक भायर सरले तेन्ना गांधीजीनी सांगलें. “ हे पळे, तूं म्हैसुराक वता. कांय दीस तुका थंय रावचें पडटलें. तेन्ना हे खेपे गेरसप्पा पळवंक विसरूं नाका. हांवें सर मिरझांक बरयल्यां. ते सगळी व्यवस्ता करतले. ”

महादेवभाअी गेरसप्पा पळवन आयले. काकासायबांक हें जेन्ना कळ्ळें तेन्ना महादेवभाअी परस्य ताकां चड आनंद जालो. आनी दोगांकूय आनंद जातलो अशें मानून गांधीजींकूय आनंद जालो.

****

## : ११६ : फुडाऱ्याची जापसालदारकी

कन्याकुमारी हें आमच्या देशाचें दक्षिणेकडलें तोंक. अुदेंत महासागर, अस्तमतेचो महासागर आनी दक्षिण महासागर हे तिनूय महासागर थैं अेकामेकांक मेळटात. थैं सूर्य अेका महासागरांत अुदेता आनी दुसऱ्या महासागरांत अस्तमता. भारताचो अुदेंतेचो आनी अस्तमतेचो अशे दोनूय किनारे थैं अेक जातात. भारताच्या नकाशार भारतमातेचें चित्र काडलें जाल्यार तिचे पांय कन्याकुमारी कडेन येतात. स्वामी विवेकानंद जेन्ना थैं पाविल्ले तेन्ना खूब प्रभावित जाल्ले आनी समुद्रांत ते अेका खडपाचेर वचून अुबे रावले आनी अुत्तर दिकाकडेन तोंड करून तांणीं भारतमातेक साष्टांग नमस्कार घाल्लो. त्या खडपाक लोक विवेकानंदांची शिळा म्हणतात.

कन्याकुमारिचे भव्यतेक लागपी भव्यता फक्कत हिमालयांतच पळवंक भेळटा.

गांधीजींनीं हें स्थळ पळेल्लें आनी तेय खूब प्रभावित जाल्ले.

दक्षिण भारतांतले खादी-यात्रे वेळार ते नागरकोविल गांवांत पावले. थैं पावना फुडें तांणीं आपल्या यजमानाक आपवन सांगलें : "हांव काकाक कन्याकुमारीक धाडूंक सोदतां तेन्ना मोटारिची व्यवस्ता करात."

पू. काकासायब कालेलकारांनीं तांकां विचाल्लें : "तुमी येतले मू ?"

"भौन भौन येवपाचें म्हज्या नशिबांत खें आसा ? अेक खेपे पळवन आयिल्लों तिनल्यान समाधान मानूंक जाय."

काकासायबांक वायट दिसलें. कन्याकुमारी विशीं अितली ओड आसुनय ते येनात हें पळवन तांकां दुःख जालें. काकासायबांची विरुस नुरा पळवन गांधीजी म्हणूंक लागले : "येदी व्हडली चळवळ हांवें सुरू केल्या. हजारांनी लोक हे चळवळींत वांटो घेनात. हांव कन्याकुमारी पळवंक गेलों जाल्यार सगळेच म्हजें भशेन करतले. आतां हिशोब करात, सगळ्यांनी अशें वर अशें वर रमणीय स्थळां पळवपाक वाल्यर्ली जाल्यार कितलीं वरां फुकट वतलीं ? हांवें हे वावर्नीत सयमान चलूंक जाय."

काकासायब कन्याकुमारी पळवन आयले. आपले यात्रेच्या वर्णनांत ते बरयतात कि भव्यतेचे वावर्नीत कन्याकुमारी अितली भव्यता आपणें अेक हिमाल्यांत पळेल्या आनी दुसरी गांधीजीचे जिणेंत !



## : ११७ : अन्नाडी आग्रो

गांधीजी अेक खेपे महाराष्ट्राच्या दौऱ्यार आसले. मिरजे तांचें अेक अुलवप जालें. तें जातकूच तांकां मुखावेल्या कार्यक्रमाक वचपाचें आसलें. तो कार्यक्रम आदींच थरिल्लो.

मिरजेचो कार्यक्रम सोंपलो. पुण गांधीजींनीं अेक दीस अदीक थैं रावचें अशें थैंच्या ;लोकांक दिसलें. ते आग्रो करूंक लागले. थरिल्लो कार्यक्रम मोडूंक गांधीजी तयार नासले. आनी असलो आग्रोय तांकां माननासलो. ते वचूंक भायर सल्ले. पुण तांकां व्हरूंक मोटार आयली ना. गांधीजी अस्वस्थ जाले. तांणीं वासपुस केली. तर जाप मेळळीं : "मोटार अिबाडल्या." गांधीजींक आतां पांयांनीं चलत वचपा पेल्यान दुसरो अुपायच अुरूंक नासलो. ते चलत वचूंक भायर सल्ले.

आमच्या लोकाक आग्रो कितलो करचो हें समजना. आनी हो आग्रो करतना अन्नाडीपणां अुक्तीं जातात म्हणपाचेंय तांच्या लक्षांत येना. मिरजेच्या लोकांनीं गांधीजींक दवरपाचोच बेत केल्लो. म्हुण पैलीं मोटार अिबाडल्या म्हुण सांगलें. आनी अुपरांत ते चलत वतात–शे पळवन चुकिची वाट दाखयली. गांधीजी ते वाटेन गेले खरे पुण थोडचा वेळान वाट सोंपली आनी शेत लागलें. ते शेतांत देंवले आनी चलूंक लागले.

लोकांच्या लक्षांत आतां चुक आयली. तांकां लजूय दिसली. तांणीं माफी मागली. आनी अेका–दोगांक धाडून मोटार हाडून गांधीजींक दुसऱ्या मुक्कामार पावयले !

****

## : ११८ : वेळार भायर सरूंक जाय आसलें

ओरिसांतल्या अेका गांवांत सभा आसली. गांधीजी ते सभेक पावनासले. तांणीं आश्रमांतल्या आपल्या अेका साथ्याक वचूंक सांगलें. तो तयार जावन रावलो. पुण ताका व्हरूंक कोणूच आयलो ना.

वर भरा अुपरांत गांधीजींनीं ताका थंच बशिल्लो पळवन विचाल्लें :

"कितें जालें ? अजून हांगाच कसो ?"

"हांव तयार जावन बसलां. पुण म्हाका व्हरूंक कोणेंय येवं नाका ?"

गांधीजींक ही जाप समाधानकारक लागली ना. तांणीं म्हळें : "अशे तरेन कामां कशीं जातलीं ? वेळ जायना फुडें तुवें चलूंक लागूंक जाय आसलें. मोटार आयली ना म्हूण कितें जालें ? केन्ना पावन हाचो हुस्को करिनासतना भायर सरूंक जाय आसलें."

तो मनांतल्या मनांत लजलो. आनी रोखडोच चलूंक लागलो. सुमार मैलभर चलत गेला जातलो. अितल्यात लोकांक ही खबर कळ्ळी आनी कोणें तरी धांवत वचून मोटार हाडली आनी ताका सभेक पावयलो.



# गांधी साहित्यांतलीं दुसरीं पुस्तकां

१ **महात्माः**—गांधीजींची जीण आनी वावर हांचेर व्हड व्हड मनशांचीं मत्तां — १.२५ न पै.

२ **सत्याग्रहः**—सत्याग्रहावेलीं गांधीजींचीं अवतरणां आनी तांचेर रवीन्द्र केळेकार ह. गेलें मनन — ०.६२ ,,

३ **गांधीजीलो मार्गः**— अहिंसक प्रतिकाराच्या शास्त्राचेर विनोबा काकासायब आनी मश्रुवाला हांचीं बरपां — ०.७५ ,,

४ **भारताचो दिश्टावोः**—India of my dreams चो अणकार — ०.७५ ,,

५ **मंगळ-प्रभातः**—आश्रमी जिणेच्या इकरा व्रतांवेलें भाष्य — ०.५० ,,

६ **सर्वोदयः**—रस्किनच्या Unto this last ह्या पुस्तकाचो आपगेम — ०.५० ,,

७ **नीतिधर्मः**—Ethical Religion ह्या पुस्तकाचो अणकार — ० ५० ,,

८ **सत्याची साधनाः**—अध्यात्मिक विशयावेलीं गांधीजींची मत्तां — १.०० ,,

९ **मानसतीर्थः**—संसारभर गाजिल्ल्या The Mind of Mahatma Gandhi ह्या पुस्तकाचो अणकार २.५० ,,

**मेळपाचें ठिकाणः—** **गोमंत भारती,**
मणिभवन, १९, लेबरनम रोड,
**मुंबै ७**

COVER PRINTED AT :- CAPITAL ART PRINTING PRESS, BOMBAY ४.